# आस्त

जेजून उबो रावून, बायले बगर कोणाक पळयना, तिका म्हणलें:
बायल, तुका आरोप करपी खंय आसात? तुका कोणेंच ख्यास्त
दिवंक ना? तिणें म्हणलें, ना दादलो, प्रभू. जेजून तिका म्हळें,
“हांव तुका निंदा करिना. जुांव 8:10-1

...तुमच्या मधें जो पातक नासता, ताणें पयलीं
तिचेर फातर मारूं. जुांव 8:7

हांव नितीमानांक आपोवंक न्हय, पूण
पातकांक पश्चात्तापाक आपोवंक
आयिल्लो. लुकास 5:3



आमी पुरायपणान समजून घेवपाक जाय अशीं चार सत्यां आसात:

1. देव तुमचो मोग करता.
तुमकां ताचे वांगडा स्वर्गांत सासणाचें जिवीत मेळचें अशें देवाक जाय.
कित्याक देवान संवसाराचेर इतलो मोग केलो की ताणें आपलो एकलोच पूत दिलो, जाका लागून कोण ताचेर विस्वास दवरता तो नाश जावचो न्हय, पूण सासणाचें जिवीत मेळचें. जुांव 3:16
तुमकां भरपूर आनी अर्थपूर्ण जिवीत मेळचें अशें देवाक दिसता.
चोर येना, पूण चोरपाक, मारपाक आनी नाश करपाक येता, तांकां जिवीत मेळचें आनी तांकां तें चड मेळचें म्हणून हांव आयलां. जुांव 10:10
पूण जायत्या जाणांक अर्थपूर्ण जिवीत अणभवना आनी सासणाच्या जिविताची खात्री ना कारण...

2. मनीस स्वभावान पाप करता. म्हणून तो देवा पासून वेगळो जाला.
सगळ्यांनी पातक केलां.
कित्याक सगळ्यांनी पातक केलां आनी देवाच्या महिमेचो उणाव जाला; रोमकारांक 3:23
पातकाची ख्यास्त म्हळ्यार मरण.
कारण पातकाचें पगार म्हळ्यार मरण... रोमकारांक 6:23
बायबलांत मरणाचे दोन प्रकार सांगल्यात: १.
• शारिरीक मरण
जशें मनशांक एक पावटीं मरुंक थारायलां, पूण ताचे उपरांत न्याय: इब्रानी 9:27
• आध्यात्मिक मरण वा देवा पासून सासणाचें वेगळेपण
पूण भंयकर, अविश्वासी, घृणास्पद, खून करपी, वेश्या, जादूगार, मूर्तिपूजक आनी सगळे फटींग.
उज्यान आनी गंधकांनी जळपी तळ्यांत आपलो वांटो आसतलो, जें दुसरें मरण. प्रकासणी 21:8

मनीस जर आपल्या पातकाक लागून देवा पासून वेगळो जाला जाल्यार हे समस्येचेर उपाय कितें? आमी चड करून हीं उपाय अशें मानतात: धर्म, बरीं कर्तुबां, नैतिकता पूण देवान दिल्लो एकूच उपाय आसा.

3. जेजू क्रिस्त हो एकूच स्वर्गाचो मार्ग.

हें देवान सांगलें.
जेजून ताका म्हळें: मार्ग, सत आनी जिवीत हांव, म्हजे वरवीं बगर कोणूच बापाय कडेन येना. जुांव 14:6
जेजू क्रिस्तान तुमच्या पातकांची ख्यास्त पुरायपणान फारीक केली.
कित्याक, ख्रिस्तान एक पावटीं पातकांक लागून, नितीमानान अन्यायी मनशां खातीर, आमकां देवा कडेन व्हरूंक, मासांत मारून उडयलो, पूण आत्म्यान जिवंत जालो ताच्या रगतांतल्यान आमकां सोडवण मेळ्ळ्या, ताच्या कृपेच्या गिरेस्तकाये प्रमाणें पातकांचें भोगसणें मेळ्ळां; इफेजकारांक 1:7
देवा कडेन सासणाच्या जिविताचें उतर आसा.
जो कोण पुताचेर विस्वास दवरता ताका सासणाचें जिवीत आसा, आनी जो पुताचेर विस्वास दवरना तो जिवीत पळोवचो ना. पूण देवाचो राग ताचेर उरता. जुांव 3:36

पूण, जेजू क्रिस्तान आमचे खातीर कितें केलां तें फकत जाणून घेवप पुरो जायना.

4. आमच्या सोडवणे खातीर आमी सर्वेस्पर जेजू क्रिस्ताचेर आमचो भावार्थ दवरूंक जाय.

जेजू क्रिस्ताचेर भावार्थ दवरून देवाच्या कृपेन आमचें सोडवण शक्य जाता.
कित्याक कृपेन तुमी भावार्थान वाटावतात; आनी तें तुमच्या कडल्यान न्हय, तें देवाचें दान, कोणेंय अभिमान बाळगूंक नाका म्हणून कर्तुबां कडल्यान न्हय. इफेजकारांक 2:8-9

देवा कडेन भावार्थान ही प्रार्थना सांगात:
प्रभु जेजू, म्हजे कडेन तुमच्या व्हडल्या मोगा खातीर तुमचे खूब आभार. हांव कबुली दितां हांव एक पापी आनी हांव माफी मागतां. म्हज्या पात्कां खातीर दंड भरपाक खुर्सार मरपा खातीर तुमचे उपकार. तुमच्या मेल्ल्यांतल्यान पुनर्जिवंत जावपाचेर हांव विस्वास दवरतां. आतां सावन हांव तुजेर म्हजो प्रभु आनी सोडवणदार म्हूण विस्वास दवरतां. हांव तुमचें सासणाचें जिवीत दान स्वीकारतां आनी हांव म्हजें जिवीत तुमकां सोंपयतां. तुमच्या आज्ञांक पाळो दिवपाक आनी तुमच्या नदरेक प्रसन्न जावपाक म्हाका आदार करात. आमेन हांणी केला.

तुमी जेजू क्रिस्ताचेर विस्वास दवरतात जाल्यार तुमकां फुडलें घडलां:
• तुमकां देवा वांगडा सासणाचें जिवीत आसा.
आनी पुताक पळेवन ताचेर विस्वास दवरता, ताका सासणाचें जिवीत मेळचें, आनी हांव ताका निमाण्या दिसा जिवंत करतलों. जुांव 6:40
• तुमचीं सगळीं पातकां माफ जाल्यांत. (भूत, वर्तमान, फुडार)
ताणें आमकां काळखांतल्या बळग्या थावन सोडयले आनी आमकां आपल्या मोगाळ पुताच्या राज्यांत रुपांतरीत केल्यात, ताच्या रगतांतल्यान आमकां सोडवण मेळ्ळ्या, पातकांची भोगसणें मेळयल्या: कोलोसकारांक 1:13-14
• तूं देवा मुखार एक पुराय नवो प्राणी. ही तुमच्या नव्या जिविताची सुरवात.
देखून कोणूय ख्रिस्तांत आसत जाल्यार तो एक नवो प्राणी, पोरणी गजाली सोंपल्यात; पळय, सगळ्यो गजाली नव्यान जाल्यात. 2 कोरिंतकारांक 5:17
• तूं आतां देवाचें भुरगें जालां.
पूण ज्यांनी ताका स्वीकार केलो, तांकां ताच्या नांवाचेर विस्वास दवरपी लोकांक ताणें देवाचे पूत जावंक अधिकार दिलो: जुवांव 1:12
बरीं कर्तुबां करप हें मोक्ष मेळोवपाचें साधन न्हय, पूण आमच्या सोडवणेचो पुरावो. कित्याक कृपेन तुमी भावार्थान वाटावतात; आनी तें तुमच्या कडल्यान न्हय, तें देवाचें दान, कोणेंय अभिमान बाळगूंक नाका म्हणून कर्तुबां कडल्यान न्हय.
इफेजकारांक 2:8-9